वर्स : अेक अंक : तीन ग्रीष्म अंक मे / जून १९८३

# ऋतु

कवितेचें कोंकणी व्दैमासीक

संपादक : पुंडलीक नारायण नायक

पालवी संपादक : प्रकाश दत्ताराम नायक

मुखपृष्ठ आनी मांडणी : दिगंबर शिंगबाळ

छापपी आनी उजवाडावपी : नारायण वादोळकार

कुळागर प्रकाशन, पो. बॉ. नं. १०९, मडगांव (गोंय) ४०३६०१

छापणावळ : हिरु नारायण नायक, अपुरबाय प्रिंटर्स, वळवय, गोंय

संपादकाचो पत्तो : पुंडलीक नारायण नायक,

वळवय, सावय-वेरें, फोंडें (गोंय) ४०३४०१

अंकाचें मोल : २ रुपया वर्सूकी पटी (विशेशांकासयत) १२ रुपया

**मांडावळ**

प्रार्थना गीत

रविन्द्रनाथ ठाकूर

चित्त जंय भयाविरयत, उंच नित्य माथें
ज्ञान जंय तशेंच मुक्त सहज शुद्ध व्हांवतें

करूंक जंय भुंये विखंड पड्डूंक नात पारें
जंय घराघरांत खेळटा आठय दिकां वारे

फुग्टी जंय काळजांतल्यान उमाळ्याचीं उतरां
संवसाराच्या बाराय वाटांत कर्तुपाचीं औरां

रुढी-रेंवट मातून जंयचे विचार आट्टंक पावना
पौरुशाच्यो तिरल्यो जावन त्राण ताजे तुटना

जंय सगळ्या कर्मांच्चो हुस्को तूंच्च काडटी
आनंदाची वाट तूंच्च जंय सदा दाखोवटी

सर्गी त्या भारताक प्रतिपळीं जागवपा
जाय जाल्यार तुज्याच हातान घाल घाय बापा !

अणकार : बाकीबाब बोरकार

कविता शंकर रामाणी

## हारसो

म्हज्या सामखार
एक हारसो;
कितलो वेळ जालो;
हारशांत
हांव म्हाकाच
ओखेत रावलां...
...आतां म्हज्या तनरेचोय
एक हारसो जाला
आनी हारशांत
म्हज्यांतलो हांव
पालखेंत बसयिल्लया देवावरी
कोणाक पळेता
कोण जाण!
अखेरेक
खरो कोण?
हांव
काय हारसो?

कविता शंकर भांडारी

## नील-मयी

मळब निळें! निळें तळें!
तळ्यांतल्या साळकांचे
निळे निळे जाले दोळे
काळशी सरून सकाळपारा
निळशी देवली अंबरांत
निळ-निळशे धवशेंतल्यान
निल-मयी विस्व पळे

कविता

पांडुरंग भांगी

भुंयेंच्या गर्भांतलो ज्वालामुखी
भितल्लया भितर जाल्लो बुस्मटमार
अगड घळितले
सोंपून सोंपनाशिल्ले वळवळे
घडये फांटोइड फुटचींच ना
अशी अथांग रात
मर्दीच किंवाटून
शिरां शिरांनी अुसळल्ल्यो ओसाडी
जंयच्या थंयच जिरयल्यो
दोळ्यांनी विजेच्यो झडी.

पावस बडवल्लयावरी आवाज...
वागोळयांचीं पांखां फडफडल्ल्यावरीं
भूत कशी रात
अशे वेळेरय
काळजांतल्यान वाटो फुटत आसात
वाटांक आतां अंत ना...
सोंसणिकायेक मीत ना...

कविता

नागेश करमली

एक

तुवेंच ओडून घेतिल्लया मौनांतल्यान
तुवेंच पयलें अुतर काडचें आता
खंयतरीं अंदून अुरपी बुस्मटमारांतल्यान
तुवेंच मेकळी वाट सोदची आतां

दोन

पाखां फुटिल्लीं सवणीं पोरां
सांजपारा सुरांत गेलीं घुंवळून
तुजीं म्हजीं सगळीं अुतरां
जिणेंत मध्यान काडटा धवळून

## मनशालें गीत

आनी तुमी मडीं आशिल्लीं
मागीर तुमकां जिते केले
पर्थून तुमकां तो मारून अुडयतलो
पर्थून तुमकां तो जितो करतलो
आनी मागीर ता।जेकडेनच्च तुमकां परते धाडटले.
--पवित्र कुराण

हांव अनादिकाळापासून आशिल्लों
आनी आयजय आसां
आनी अनंतकाळामेरेन उरतलों
म्हज्या काळांक अंत ना.

हांव दिको नाशिल्ल्या वातावरणात हुबलों, कल्पनेचे दुनियेंत पेंवलों आनी व्हडांतल्या व्हड तेज्याच्या वर्तुळामेरेन वचून पावलों. पुण आजुनय हांव पंचमहाभुतांच्या बंदखणींत आसां.

हांवें कन्फ्युशियसाल्यो शिकवण्यो आयकल्यो.
ब्रम्हाचें गिन्यानय आयकलें.
गिन्यानरुखासकयल बुध्दाम्हऱ्यांत वचून बसलों.

पुण आजुनय अज्ञान आनी जडपण हांचेर विजय मेळोवपाच्या खटपटींतच हांव आसां. हांव मोशेसाक तेजाचो दिष्टावो जालो तेन्ना त्या तूर दोंगराचेर आशिल्लों; आनी जेन्ना हांवें येसू ख्रिस्ताले चमत्कार पळयले तेन्ना हांव अरवन दोंगराच्या गुंफांत आशिल्लों.

हांवें मदिनेक मुहम्मद पैंगबराली प्रवचनां आयकलीं, पुण आजुनय हांव अजापांच्या घुस्पागोंदळांत घुस्पल्लोंच आसा.

हांवें बाबिलोनियाची समर्थकाय निरखल्ली, इजिप्ताची गिरेस्तकाय पळयल्ली, ग्रिसच्या व्हडविकायेचे दर्शन घेतलें.

पुण म्हाका त्या सगळ्यांमदीं दुबळेपण, अपमान आनी अप्रतिष्ठाच दिसून आयली.

हांव 'दूर' नांवाच्या व्हाळालागसल्ल्या जादुगराम्हऱ्यांत बसलों. बेने एज्रेलाच्या देवदूतांकडेन रावलों आनी पॅलेस्टाइनातल्या पैगंबराचो सत्संग म्हाका मेळ्ळो. पुण सत्याचें गीत हांव आयकूंक शकलों ना.

ज्यो गिन्यानाच्यो गजाली फक्त भारतांतूच उदेल्ल्यो त्यो हांवें तोंडपाठ केल्यो.

अरबस्थानांत रावतल्यांच्या काळजांतल्यान भायर सल्लेलीं कवनां हांवें घोकलीं.

आनी पाश्चात्यांले मूर्तिमंत संगीत आयकलें. पुण हांव सदांच कुड्डो उल्लों. हांव कांयच पळोवंक शकलोना हांव भेरोच उल्लों. हांव कांय आयकूंक शकलों ना. हांवें वसवशा विजेत्यांली निष्ठुरताय सहन केली, आनी जुल्मी अधीकाऱ्यांल्या अत्याचारांक बळीं गेलों.

हांव बळेस्त वंडलोरांच्या गुलामींतूय रावलों पुण कशेयतरी दीस काडपा इतलीच शक्त म्हज्यांत उल्लेली. हांव ल्हान आशिल्लों तेन्ना हांवें सगळें कितें पळयल्लें, सगळें कितें आयकल्लें, तरनाटेपण आनी ताजेबरोबर येवपी हेर गजाली हांव आता रोकडोच पळयतलों, आयकतलों आनी रोकडोच म्हातारो जातलों आनी पुर्णावस्थेक पावतलों; आनी मागीर पर्थून परमेश्वराकडेन परतो वतलों.

हांव -
हांव अनादिकाळापासून आशिल्लों
आनीक आयजूय आसा
आनी अनंतकाळामेरेन उरतलों
म्हज्या काळांक अंत ना.

अणकारपी : नंदकुमार कामत

जिब्रानचो जन्म ६ डिसेंबर १८८३ त जालो. हें ताचें शताब्दी वर्स.

कविता

## भितलें तुफान

जे. बि. मोरायश

सुर्यो बुडोंक सोदच्या वेळार
दिसा राती मिलन जाता
मंद मंद वारें व्हावता
आनी पृथ्वी शांत आसता.
त्या अद्भूत मौनांत
भितर म्हज्या तुफान अुठलां.
भायली थंडाय आनी मौन
फटकिरें ते लींपवंक शकना
तुफान भितल्लें
काळजांतले काट तुटोन
अुमाळ्यांची आत्रां व्हावब्रात.
आनी भायल्यान शांतताय
कोण पात्येन ? कोण आयकत ?
गोब्राच्या राशीभितर
मुर्मुर्या केंडावीर
भायल्या थंडायेच्या आवरणांत
हे मुर्मुर्ता आनी शिजता
आनी अेक दिस काट तुटयता
तेन्ना म्हज्या मनातल्या कानांत
आयकतलो धडधडो
आनी भितल्या दोळ्यांक
तोण्तेलें झग्लाणें
तां भितर्ली भुंयकांप
म्हजी कुड शिर्शिरायतेली,
हि भितर्ली अुचंबळाय
दिसचीना हेरांक
दिसतेली तांका शांतताय
मुर्मुच्या केंडाक
लिपवन आसच्या गोब्रावीर.

कविता अुदय नरसिंह म्हांबरो

## वळख

आमचे जीणे मोल तांकां
केन्नायतरी कळटलें
हिणवणे तें अुतर तांचें
पोकें पोल थरतलें
आमच्या अुस्वसां चंवरफूल
केन्नायतरी फुलतलें
देंठ तुटकें फळ तांचें
तेन्नाच गळून पडटलें
आमच्या काळजांत उज्यार्कोण
केन्नायतरी पेट्टलें
अुज्यार्कोणा धगानूच ते
भगभगून सोंपतले
आमचे आमी जेन्ना गा
आमचे मर्दी फुलतले
आमचे जीणे मोल तांकां
तेन्नाच गा कळटलें

कविता

सज्जन तारी

## मर्ण सुवाळो

हां ...!
तर म्हज्या मर्णादिसा
घसघशां
मळब रडटलें
त्या दिसा...
वाऱ्यावयले राग सूर
अचकित विरतले,
रुखा-पेडार
सावार जिवजात
थांबयतलीं
आपलीं गायनां,
थारतली दर्या गाज
खिणभर
त्या दिसा...
ना अुरची दुःखाक
शीम-मेर
म्हज्या घरांत
त्या दिसा...
आसमंतात
रंगयाळ्यो धाय दिकी
रंगतल्यो रक्तरंगान,
खऱ्यांनीच...
विश्वसैमातलीं
सगळी रुपां
त्या दिसा
म्हजो
मर्ण सुवाळो मनयतलीं.
पुण...

म्हज्या मर्णादिसा
अनंत कळयातना सोंसून
आवयपणाची खोस मनोवर्षी
खंयतरी अेक अस्तोरी
ह्या खिणाक,
सुखाच्या म्हासागरांत न्हावन
मुक्ती मेळयतली...

कविता

शैलेंद्र मेहता

## फिनीक्स

दोळ्यांमुखावेली काळखी रात
देंवत वता
सांजवेळच्या सावळ्यां सारकी
आपली पावलां मेजीत वता
होमखणांतले इंगळे
थोड्याच वेळान न्हिवतले
भीरेचेरुच
आयज मेरेन काडली जीण
वर्सांवर्सांनी नदरेक पडलां
तांबडे रगत एकूच खीण
सगळें आतां सोंपून वतलें
(हातांतले बळगें लगीत)
बंदखणांच्या वर्णीचेर
घायांच्योच राशी पडल्यात
उकल्या मळबांत पाखां फुलोवक
आतां एक 'फिनीक्स' जाय...

वात्रटिका नयना सुर्लेकार

## हनिमून

१.

हनिमूनाक व्हिदली जेन्ना गादी
खाटीक तेकून
तिका चाबलो भिकूण
तिणे म्हळें हाय
गादये वयल्यान आवाज आयलो
"सोडात न्हय, अशें कितें काय"

२.

हनिमूनाक एकदां
उद्योगपती गेलो उटी
बायलेक ताणे माल्ली मिठी
इतल्यान आयलो फोन
धंद्याक पास जालें लोन
बायलेक सोडून थंयच
धांवलो तो आपले सिटीन
कसलो हनिमून, खंयची उटी...
बाबड्याक ना केन्नाच सुटी.

३.

हनिमूनाक लजत लजत चिचुंद्री
गेली आपल्या बिळांत
पुण बीळ तिजें चुकलें मगा
हुंदरान तिका माल्ली मिरकाटावन

४.

"डार्लींग– हो म्हजो फ्रेंड
रावता बॉम्बे सिक्स्टी
प्लिज, शेअर कर हनिमून
दोगांक्रय फिफ्टी फिफ्टी."

कविता प्रकाश गंगाराम थळी

## भिरमुट्यो

१.

फाफुड तुजी उतरां खोचिक
घायार म्हज्या मीठ करीं
दुःख म्हजें जांवचे रुचिक

२.

आतां आजो जालो म्हातारो
जाणटी तशी जाली आजी
सुयें नेड्यांत घालूंक दोरो
नजर उरूंक ना तांची

३.

रानांत पडलो वाग जालो,
पिंड मेळ्ळे काग जालो,
लंकेक गेल्लो भाव भरतालो
रावण जावन परतलो.

४.

आंबे मुड्डून मुड्डून
केल्लो हालवो सोंपलो.
निखटे आतां उल्ले बाठे
कालुंदरा काबार जालीं
फकत आज उल्ले कांटे
कोण वचूंक पडला आतां
तांचे वाटेक?
वर्सां जालीं साठेक!

पी. जी. कामत
(त्रिशूर)

## ओळख

१.

शंबर शंबर वर्सां गेलीं
आज
तूं म्हाका ओळखना;
हांव तुकां ओळखना
शंबर शंबर वर्सां पिरथम
आमी अेकाच आंगणांत खेळताले
अेकाच फोंडांत देंवताले
अेकाच चिकलांत फारकताले
अेकाच नग्रीत, अेकडेच न्हाताले
अेकडेच बुडताले
अेकडेच उंच येताले
तुगेली आंगटेन हांव पुशिताली
मेगेली अंगूटी तूं न्हेसताली
जाल्यारि
शंबर शंबर वर्सां उपरांत
आज
तूं म्हाका ओळखना;
हांव तुका ओळखना

२.

शंबर शंबर वर्सां पिरथम
आमी अेकाच पाळनेंत पडताले
आयेलीं म्होवळी काणी आयकून,
अेकडेच हांसून, अेकडेच रडून,
हींवताले, सपन दिकताले
अेकूच गीतुं आयकून
जागे जाताले, उटायताले
हांव तुकां चोऊन हांसतालों
तूं म्हाका चोऊन हांसताले
जाल्यारि
तूं म्हाका ओळखना;
हांव तुकां ओळखना

३.

शंबर शंबर वर्सां पिरथम
हांवय तूंवय
अेकाच आवयचें होटीत वाडताले
अेकाच बापसूले भरोसान चलताले
अेकाच देवाक नमताले
जाल्यारि, आज
हांवय तूंवय
आवय-बापसूक विसरले
तुगेले देवाक तूं उळदितां,
मेगेले देवाक हांव उळदितां
मेगेले देवाक तूं ओळखना
तुगेले देवाक हांव ओळखना,
तूं म्हाका ओळखना;
हांव तुकां ओळखना

कमलाकर द. म्हाळशी

## रुपाराणी

सैमाच्या सोबीत मळ्यांत
निळ्या नितळ साळकां-तळ्यात
आसली एक राणी
नांव तिचें रुपाराणी.
इंगळ्यां-चुलीत लोखणा धाणी
जशी झाशी, चन्नमा राणी
रुपाराणी गुणान शाणी
तिचीच तुमकां सांगता काणी.
केंस उट्टे भुरभुरीत
चलप झेतान, तुरतुरीत
उलोवप म्होंवाळ चुरचुरीत
खावप रुचीक कुरकुरीत.
खावन रुपा न्हिदतालें
मदींच सपनांत हांसतालें
दीस दीस झांकतालें
लोकां पिशें लायतालें.
जेन्ना रुपा जालें व्हड
उतरां मोनी, तुटलें 'कॉड'
काळजांत ताज्या दाटलें मॉड
वादळान जालें झॉडमॉड
चिंतूंक लागलें रुपा
तेन्ना फुटून आयलीं कुपां
"खंय तीं म्हजी मम्मा-पप्पा?
कोणे रचली साळकां-गुपा?"

"अशे कशे पडले फाशे?
जाळयांत घुसपले शिट्टूक माशे!
नशीब म्हजें इतलें लाशें?
अशें कशें जालें पिशें?"
किळ्ची आयकून तेन्ना ताजी
धांवत आयली एक आजी.
त्याच वेळार पावलो काजी
जापेक ताज्या जालो राजी.
"आवयस!
भांगरा चली! भांगरा चली!!"
कवाशाची ब्रोंडीं कशीं
तन्नी कुंवली, तन्नी कुंवली!!
दिपकावण्या तिज्या रुपान
आजी घुंवली, आजी घुंवली!!
काजीवांगडा तळयेन्नीं
सोपणां देंवली, सोपणां देंवली
"ठेर जाव! ठेर जाव!!
हाः हाः हाः हाः हाः
ठेर जाव! ठेर जाव!!
हाः हाः हाः हाः हाः"
हांशाचो धुडुम धोल
धुडुम धुडुम वाजत रावलो
नासाचो मेळो पळोवन
काजी बाब्डो धांवत सुटलो
आजयेवांगडा धांवत सुटलो!!

शिशुकवन    रमेश भ. वेळुस्कार

कुपांर कुपां
धवींच धवीं
रुपां कुपांचीं
नवींच नवीं

    कुपांचें जाता
    रानूच रान
    उंट वेडायता
    काडून मान

कापसाचो कसो
सोंसो येता सोंसो
हेवटेन तेवटेन
धांवता पिसो कसो

    तुरु तुरु धांवता
    हरणांचो मेळ
    हरणाच्या बाळांचो
    आपुडचो खेळ

मुक्या खांदयांचीं
धेवन शिंगां
सामर मिरयतालें
हिंगां थिंगां

    कुपांचीं सावजां
    कुपांचीं शेवणी
    अडत वयतात
    गायत गाणी




शिशुकवन पुंडलीक नारायण नायक

**थंय माडांनी**

थंय माडांनी
सावळ्यांची भुतां नाचता
पर्त्या पांयांनी...
    थंय माडांनी
    नाह्लांचे दोळे देखता
    कशे चिटचिटयांनी...
थंय माडांनी
हुंदीर खडखडटा
कवळ्या-पोयांनी...
    थंय माडांनी
    पाखे हुमकळटा
    पर्त्या-पर्त्यांनी...
थंय माडांनी
गळो पिळून सूर गळटा
दामण्या दामण्यांनी...
    थंय माडांनी
    भेंड मोडून माड नाचता
    नागड्या उगड्यांनी...
थंय माडांनी
खांपा वयल्यान रात चडटा
खेऱ्या पावलांनी...

विष्णू सूर्या वाघ

## अन्यायसूक्त

तानसोर वाडला
देखून बांय खणची
आनी उदकाची झर मेळचेबदला
रगताचें कोण दिश्टी पडचें...
एका देवदूतान
संवसार वाटावपाचे हेतून
खर्शेत धांपेत फायच्या हुंवाराची चत्राय दिवंची,
पुण लोकांक ताजी भास कळची न्हय...
एका भिकाऱ्यान
एकाच हुमऱ्यामुखार पाचवे खेप साद घालची
जंय चार खेप झोळयेन किदें ना किदें पडलेलें
थंयच आतकड्यांचे कोनश्या कोनश्यांनी
भुकेच्या हेंवाळ्यान घास मारचो...
शिरेक जाल्ल्या चंवनातल्यान
रगत फळफळीत व्हांवतना
कोणे वैजाची वाट देखची आनी तो येता म्हणसर
रगत तशेंत फळफळचें...
मानग्याचे दाडमणांतल्यान वाटावपाखातीर
पावलपावल चिकलान रोमयत
पुरवाळेंतल्यान बांदपाडेर शेंवटत—
'आमचेर अन्याय जाता'
हो आमी केल्लो आकांतूय असोच.
: तांचेर सांवार आयला.
तस्सादी पाजीत
ताणी तुमचेच बंदवांच्यो गोमट्यो
चोकड कापचे तश्यो धडा पयस केल्यात:

काळजाचो झेल करपी ही खबर
पयलेंच फावट जेन्ना कानार पडली
तेन्ना आकांताची एक किळांच
आमचे ताळे चिरीत गेली...
तांचेर खरेंच सांवार आयिल्लो.
पयलीं ताणी धा जाण कापले–
आमची काळजां फडफडलीं.
मागीर शेंकड्यानी भावांची कत्तल केली–
काळजाचो फातर जाल्लो.
पुण जेन्ना हजारांक कातर्रीले
आनी सांवाराचे हें सत्र पातळत गेलें
तेन्ना कळ्ळें :
तांगेल्या तरसादींक
आमगेल्या रगताची तान लागल्या.
हे कत्तलीक अंत ना, थाव ना, शेंवट ना.
तेन्नापसून
मोनसागेचें फटें कांब्रून आमी कुडकुडटात–
पुण
'शिंयखाता' अशें म्हणपाची लेगीत चोरी जाल्या
दडुंय आतां निबर जाल्यांत.
मरणाचे भिरांतीन
पयली काळजाची एक पात थरथरताली
तीय आता बंद जाल्या...
अन्याय जेन्ना पावसावरी घसघसता
आनी पाखयापोंदच्यो वण्टीच कोसळायता
तेन्ना हुमन्याक लेगीत बळगें नासता
'पाड पडूं' म्हणपाचें.
जुलमांचे पेळे एकारएक दाळून
जेन्ना दोंगुलेच्या उंचायेक तेंकतात
तेन्ना तांका पडचिन्नित करतना
मंयडोळयांचे हारशेलेगीत

तापिल्ले कंवचेवरी तटांयच करुन फुट्टात
आनी भेगांमदी किल्लयतात
काळखाचीं अनंत त्रिणां.
भेसडावण्या मळबापोंदा
ल्हारांमदीं घुस्पायत
दर्यो जेन्ना तुमका गिळूंक येता
तेन्ना कानांनी दडें घाल्लून बशिल्ल्या तडेक
तुमच्यो बोबो आयकूंक येनात.
ह्यो बोबोय
धर्तरेचे फांतराकांतीर
शिरशिऱ्यांनी झडून वतात.
गीमांतले पावसाभशेन
गीमांतले पावसाभशेन.

## संकासूराचें रुपडें

काल्यादिसांनी म्हजो बापूय
संकासूराचें रुपडें घाल्लून नाचता.
सदचा ते खुटयाळ्याक हुमकळावन दवल्लां.
अदींमदीं व्हडा काकुटेन हांव ताका पळेता
तेन्ना नदरेन भरता
भांगरांचो वर्ख दिल्लो किरीट—
नदरेंतलो भेसडावणो जाळ—
वोठांतल्यान भायर तांपिल्ले दातांचे फाळ—
रगतान तानेल्ली जिबले—जुवाळ—
आनी कपलार तट्टून आयिल्ली शीर:
रुपाड्याचे मुखावयल्यान
मागीर म्हाका दिश्टी पड्टा
राकेशी अवतारान जल्मल्ल्याचे खेंतान
संकासूराचे काळजाक गेल्ली चीर.

गीत प्रकाश आचार्य

## दिंव नाका रे यातना

पर्थून पर्थून याद येता
लामणदिवो हो लायतना
हुल्पल्ल्या काळजाक आनीक
दिंव नाका रे यातना

दीस सरता रात सरना
यादीबगर हीं जोत जळना
पिडणुकेंत धुकळून जीण
जोडलें कितें कळ्ळना

आंपलीं जेन्ना पांयांर सुखां
मोतयां जालीं म्हजी दुखां
असलीं सुखां भोगुंक कुडीक
ना रे ना आनी त्राण ना

दितलो जाल्यार दी रे दान
बळगो सांसूंक फुडली जीण
असली जीण येवची न्हय रे
वांट्याक म्हज्यायबि दुस्माना

गीत सोयरु वेर्दे

फुल्तां फुलां फुलयल्यालीं म्हणटां म्हणटां बावून गेलीं
चंद्रीमाची आस्त हांवें वगीच बाळगिली

फुल्तां फुलां पोर्मुवांत, जागता हांगां सगळीं रात,
सगळी रात वगीच हांवें वगीच जागयली
चंद्रीमाची आस्त हांवें वगीच बाळगिली

पाकळ्यो जाल्या उतरां म्हजीं सगळीं गीतां झडून गेलीं
वेळेवयलीं सगळीं घरां रेवेंत भिसळ्ळीं
चंद्रीमाची आस्त हावें वगीच बाळगिली

गीत अनील सामन्त

## कुंतीचीं व्हावता दुखां

कुंतीची व्हावता दुखां कर्णाच्या फुलांनी
मरणाचें गीत गायता जल्माची काणी

अर्थ झरोन गेल्ले जशे शब्द हातान धल्ला हात
माये मोगाळ उतरां फाटी लिपून सदा रावता घात
पावला कणकणी पुसून वतात मातयेच्या कणांनीं

दोळ्या दोळ्यांत पेरुन फुलां चडचो हांगां कितली धार
काळखासूर्य घेवन येता पायां पोंदची हरवी वाट
काळजा भितर सलता घावो रगताच्या थेंब्यांनीं

नखेत्रांची वाचीत सपनां काडटा जगतालातीर रंग
खोल खोल मेजीत मळब मोने मोने वतात खीण
माथ्यार मारुन वजें चल्लेली जिणेची विराणी

कविता अभयकुमार

## राजकी अवचिन्नां

१.
अेका गुंडान दाणो मारुन
म्हजी तकली फोडली
आनी म्हजेरुच केश केली
'परतो ब्रोवाळ करूंक जायना'
म्हण हवालदारान म्हाका
तंबी दिली
तेन्नाच म्हाका
लोकशाय कळ्ळी.

२.
मंत्री आमदारांक
फ्लॉट भेळ्ळे
देशांत गरीब लोक आसात
तेन्नाच कळ्ळें.

३.
राजकारण्यांची माफी मागून
हांवें कविता रचली
'राजकारणी मरे हो!'
म्हाका रोखडीच पदवी मेळ्ळी.

४.
राजकर्ण आनी गजकर्ण
दोनूय सारखींच
खाजय खाजय खाजोवपाचीं
कात वचून रगत आयलें
तरी ना पेखपाचीं.

अभंग　　　　　　　　　　　　　　　　संत तुकाराम

## १.

साकरेचे साक। चैलांच्या फाटिरि। खाणाक अखेरि। तण ताक्का ॥१॥
उंटाचेरि घाल्नु। व्हर्ताति सामान। कांट्याचें भक्षण। उंटाक त्या ॥२॥
फुकट हो धंदो। आशा ती वाढौचो। यमालागी व्हर्चो। पाश घाल्नु ॥३॥
ज्याका लाभु जात्ता। ताक्का ताजि गोडि। येना ती आवडि। इतरांक ॥४॥
तुकारामु म्हण्ता। नरा रे तूं शाण्या। फिर्ता योना इत्या। चौज्याशिच्यो ॥५॥

## २.

जयिं किर्तन ते कोर्का। थयिं अन्न तूं वेन्नाका ॥१॥
बुक्को कपलाक लावनये। माला गळ्यांतुं घाल्नये ॥२॥
धान्य तण तें गोवांक। नाका कीर्तनांतुं भिक ॥३॥
तुका म्हण्ता द्रव्य घेता। दिता तो हि नर्का वत्ता ॥४॥

## ३.

गायित्रि विक्रनु। पोट जे भर्ताति। तांगेलि दुर्गति। यमलोकांतुं ॥१॥
कन्येक जे नर। मोलाक विक्तले। अघोर भोग्तले। नर्कवासु ॥२॥
देवा नांव वेव्नु। द्रव्य जे मागताति। नेण तांचि गति। कस्ली जात्ता ॥३॥
कसलें तांचें जाता। तेचि तें जाण्ताति। तांगेलि संगति। आम्मां नाका ॥४॥
आम्गेल्या सांगाति। आसा तो श्रीहरि। नाका दुराचारि। तुका म्हण्ता ॥५॥

अणकार: एन. वि. प्रभु

कविता प्रकाश दत्ताराम नायक

चंद्र आयला अंबरात
अंबर लिपलां पानझुंबरात
पानझुंबर गळयत रात
धर्तरी झेमता शांत-शांत !

पानझुंबरापोंदा रात काळीं
काजुलवाती जळीमळी
हांव हांगा सोदित उब्रों
रुखां-खांदयांतली पानजाळी

मळब तेमयेर नक्षत्रांवातीं
हांगा हीं गंध-धुंद रानमाती
पळोवन अुमेद धर्तरेवैली
हळूच अेक नक्षत्र धर्तरेर घालून घेतीं!

झाडां-आंगार वारें हात ओडी,
पानांकणकणी शिरशिरो घडीवडी
एकेक झाड करीत चाडी
पिके पान पडटाच आंग काडी

आता परत अेकदां,
चंद्र आयला अंबरात,
अंबर लिपलां पानझुंरात,
पानझुंबर गळयत रात,
धर्तरी न्हिदल्या शांत-शांत !

कविता मनोराय नायक

## यो गे माये यो

योगे माये ऽ यो गे ऽऽ यो
यो गे म्हज्या मस्तकीं
फाकय तुजें तेज भितर
उजळ म्हजे भोंवतणी
शेतां मातीं आंगार सारयत
घेतली शेणां—पाटी
काळया तळपार माह्ल्यो मुठी
रक्तान न्हाली मातीं
आतां तरी भोंव दीं म्हाका
जोडीत नवीं नातीं
सुखां-दुखां दितां घेतां
बांदीत म्हजे गांठीक
देड दीस उल्ला बाकी
तरी मनापसून करीन चाकरी
व्हडवीक तुजी गायतां गायतां
अर्पीन तुकां कुड म्हजी

कविता

रुपा दळवी

## पावस




पावस पडत आसा, सगळेवटेन अुदकां झर।
सगळें मळब आंगार निक्रून, तृप्त जाली धर्तरी।

थंड वाऱ्यान पैस शेतान, शिरशिरलीं तणां पानां
धुंद जावन गंध गीतां, लागली गावंक ओली माती

शीळ घालीत पिसाट वारो, धांवत सुटलो रानावनां
पाचवीचार अुमेद फुलयत सळसळलीं झाडांपानां

खोसयेच्या परमळान घमघमलीं फुलांपानां
उमेदिची कोमरी फुटून रसरसलीं तरनीपानां

आंगार घेत अुदकांसरी, खळखळून हांसल्यो झरी
रिक्त जावन हांसले मळब, तृप्त जावन हांसली जमीन

उबें हांगा हांव अेकलेंच, पळेत तोखेत सगळी तृप्ती।
इनलो पावस जिखून लेगीत, म्हजी पंटी मात रीती।

कविता

## भास

तुमची भास शिकपाक लागून
हांवें म्हज्या मनशांची भास सांडली
आतां
तुमची भास म्हाका समजना
म्हज्या मनशांची भास
हांव साप्प विसल्लां
म्हजी भास तर
म्हाका केन्ना फुटलीच ना

शंकर परुळकार

## कित्याक बरयना ?

हांवें ताका विचाल्लें,
तं कित्याक बरयना ?
ताणें म्हटलें,
शिंव बरयता ?
सुणो बरयता ?
गाढव बरयता ?
आनी तरीय
आमी जाणांत
शिंव गर्जना घालता
सुणो भोंकता
आनी गाढव आड्डता

आर. रामनाथ

# भावांनो आनी भयणींनो

म्हज्या भावांनो आनी भयणींनो
आयज हांव तुमकां जें कितें सांगतां
तें उपकार करून
कान दिवन आयकयात.
कान फोडून आयकयात.
नाजाल्यार कान धापून आयकयात.
पुण आयकयात...

म्हाका जे थळाकडें वचपा आशिल्लें
तें थळूच आतां उध्वस्त जालां
आनी ते थळाकडें वचपी रस्तो जाला दरी.
आतां हांवेन ते दरयेंत उडी घेवपाचें थारायला...

हांवेन दरयेंत उडी मारतगीर
हांसप्यांनो:
उपकार करून
तुमी तुमचो हांसो सोपसर हांसात
आनी हात धरसर ताळयो मारात.

आनी—
हांवेन दरयेंत उडी मारतगीर
रडप्यांनो:
उपकार करून दरी पुरोंव नाकात
उध्वस्त जाल्लें थळ पल्तडींकूच रावूं नी...

बरें
तुमकां सगळयांक देव बरें करूं...

कविता    सिरानो व्हेलीस

## पांचव्या गांवची कविता

निळ्या मळबार
सुकणीं अुडटात तीं
तीं तुजी वाट पळयतात...
पाचव्या शेतांतल्यान
येता-वेतानां, सुंदरी,
तूं चल्ना...
ना, चल्ना...
तूं अुडटागें दिसता!

दुर्गाच्या दरवळ्यार
अुलो मारता तन्ना,
पाचव्या कुळागराचीं
तुकां सगळीं सुकणी
अेकटांय जाग्र दितात!

कविता    रमेश घ. लाड

## नव्या म्हज्या कुळागरांत

केळीं नाल्ल खावचीं पाना
आसचीं अनशीचीं दाट राना
नव्या म्हज्या कुळागरांत
    नितळ झरा खळखळ आवाज
    सळसळचीं तीं पोफळी-पाना
    नव्या म्हज्या कुळागरांत
शीतळ सावळी नितळ उदक
करचें सवण्यान गोड कांतार
नव्या म्हज्या कुळागरांत
    अनस पणस आंब्या रोस
    पीवन जांवचो जीव धादोस
    नव्या म्हज्या कुळागरांत
शीमेर आडो उकतो गोंयणो
वाटसुरांक अडसर नाका
नव्या म्हज्या कुळागरांत

कविता   नीला प्रभु शास्त्री

## तूं

मैलांचें अंतर आसूनय म्हाका दिसता
कितलो लागीं आसा
आनी वेंगेत घेवनय तूं पिरंगता,
इतलें पैस कित्याक पिशा ?

कविता   विजयकुमार कामत

हांव खंय पावलों ?
कसो पावलों ?
कांयच याद जायना
अेकूच याद जाता
केन्नातरी हांव
तुज्या गोपांत आसलों

कविता   चंद्रवा भांडारी

सुखान जिवीत सारतना
मळब लागीं दिसता
दुखाक तोंड दिसना
धर्तरीलेगीत पैस करता

कविता   परेश वि. भगत

## इतलेंच सांग म्हाका

तुवें सांगिलें
तूं आणि हांव एकच
याद आसा ?
उदकान बडी माल्ल्यार
तें दोन कडेन जायना
हेंवय सांगिल्लें
मागीर हो बांद
कोणी घालो ?
इतलेंच सांग म्हाका

कविता   दत्तकुमार व्यं. कामत

## म्हजीं सपनां

अेक काळ हांव
सपना-सृष्टीचो राजा आसलों
सपना-पनेळांत धोलतालों
दीस आनी रात !
आज तूं म्हजी राणी जाल्या
आनी म्हजीं सगळीं सपनां
तुजे लागीं घाणा पडल्यांत !

कविता   शांती सदानंद प्रभु नेंडुलकार

## म्हाका मेळूंक यो पुण

म्हाका मेळूंक यो पुण
कोणाक दिश्टी पडूं नाका
आमच्या गुपीत मोगाची
सुलूस लागूंक दिवं नाका

म्हाका मेळूंक यो पुण
पावला आवाज करू नाका
मेळूंक तूं येतलो म्हण
कोणाक कळूंक दिंव नाका

म्हाका मेळूंक यो पुण
मोगऱ्यां आटी हाडूं नाका
आई म्हाका विचारतलीच्च
फट अुलोवंक लांव नाका.

मागणो म्हाका घाल पुण
मोग पापाक कळोक नाका
दिसूंदी पापाक म्हज्या
धूव आपल्या धाकांत आसा

कविता   हर्षल मे. नायक

## कित्याक

कित्याक गो वगी वगी?
अशें विचारता रे कित्याक?
घाय घालून वयर
मलम लायता रे कित्याक?

तुवेंच पिवयलें म्हाका
विख घालून म्होंवात
दुकां म्हारग आसात,
आतां वगीच तीं
गाळटा रे कित्याक?

तुवेंच मोडलें म्हाका
एकलें ह्या हळशीक समाजांत
आता तानूंत हुलपतना पळोवन
तोंड घुंवडायता रे कित्याक?

हांवेंच घडयलो तुकां
घालून तुजेर संस्काराचो परमळ
आतां वगीच त्या बगडी फुलांभितर
तो परमळ सोदता रे कित्याक?

## आबरांवचें यज्ञदान

लूईस मास्कारेंन

### अेक कविता नाटिका

दिवंगत लूईस मास्कारेंन कन्नड लिपींतल्या आधुनिक कवितेचो बाप. तांचो जल्म ह्या शेकड्याच्या सुरवातीक मंगळूरांत जाल्लो. क्रिस्ता पुराणा तसल्या महान काव्यान प्रभावीत जालें क्रिस्तांव जनांग टिप्पू सुलतानाचे दगदोणे नंतर दक्षिण कन्नडाच्या मोळ्यांनी वस्तेक गेलें आनी साहित्याचे दिश्टीन थंड पडलें. अनामीक कवींन आनी पादर्रानी रचिल्लीं कांय धार्मीक गीतांच तांची सरस्पतां. तीं गीतां इगर्जांनी आयतारांची गायताले आनी तांनूतल्या काव्यांत पुळकित जाताले.

लूईस मास्कारेंन होवूय अेक देवोत कथोलीक. ताच्या कवितें क्रिस्तांव शेगुणांच व्हडपण उट्टून दिसता. सबार कविता ताणे घडून 'कोंकणी दिवें' तसल्या पत्रांनी उजवाडायल्यात. पुण पुस्तक रुपीं १९४८ व्या वरसा छापिल्लें 'आबरांवचें यज्ञदान' कन्नड लिपीन घडिल्लया महान काव्यांमदें मेजूंक गेल्यार बाकी मेजूंक मेळाशीं नात. तेंच पुस्तक आतां परत उजवाडाक आयलां.

त्या वेळीं ल्हान व्हड नाटकां जातालीं आनी ह्या नाटका थंय तांका आयिल्लो तात्सार ते ह्या पुस्तकाच्या प्रवचनांत कळयतात. "पडपशि चेष्टाय आनी काट उलोणे भरशिल्ले ताळमूळ नातल्ले खेळ दाकयल्ल्यान न्हयच आमचे भाशेक, बगार पळेतल्यांची अभिरुचूय आमी सकला देंवयतांव" अशें म्हणून त्या नाटककारांक एक देख जायशी आपूण हें काव्य बरयतां म्हण हीं कृतीं ताणी घडल्यां.

परिणाम भल्तोच. पयशिलें पालेस्तीन मंगळूरच्या झाडां पेडांनी आनी ताळियां मळ्यांनी संमिलित जाता. विशाल शब्द भांडार तें सोडयताना जायल्या बरप्यांक लजेक घालतात.

पोरण्या तेस्तामेंतांतल्या, आबरांवान आपल्याच पुताक, देवाक बळी दिवच्यवयर हें काव्य नाटक घडलां. भुरगो इजाक लांकडां मार र दिमीं मारता आनी मरणाक भियेवन थर्थरता :

> तलवार पुणूय काडूं नाका बागोन आसतां
> आयचो धको काळजां तरी रिगला म्हाका
> आनी मुखार केदीं तलवार म्हळ्ळी नाका

हीं भावनांची मुर्ती. मवेय कवींच्या घरांनी केदींच चुकची न्हय.

प्रकाशक : पुनव प्रकाशन, मंगळूर.

— — चा. प्रा. देकोस्ता

## नवीं पुस्तकां

**माती** रमेश भगवंत वेळुस्कार

कोंकणीतलो तरुण पिळगेंतलो अेक नांवाजतो कवी रमेश वेळुस्कार हांगेलो हो "मोरपांखा" उपरांतचो दुसरो काव्य संग्रह. हातूंत सगळ्यो मेळून ५१ ल्हान ल्हान बिनमाथाळ्याच्यो कविता आसात. कवितांचो लेखनकाल १५-३० आक्टोंबर १९८३. दरअेक कविता जितली स्वतंत्र आसा तितलीच ती फाटले आनी फुडले कवितेची जोडण आसा. सैमाक मानवीक रुपान केळोवप हें वेळुस्काराचे रचनेचें खाशेलेंपण हांगांय दिसून येता. हो सुपुल्लो काव्य संग्रह म्हळ्यार कवीचें आनीक अेक जैतीवंत पावल. मुखावयलें चीत्र दिगंबर शिंगबाळ हाणी कल्पकतेन चितारलां. प्रकाशक : कोंकण टायम्स पब्लीकेशन, बेती, बार्देश, गोंय. पानां : ५१, मोल : ८ रुपया.

**काजुले** प्रताप नायक

कोंकणी कवी आनी कोंकणी लोकवेदाचे एक अभ्यासक प्रताप नायक हांगेलो हो "जिवितांतली घडितां" ह्या संग्रह उपरांतचो दुसरो काव्य संग्रह. संग्रहाक पुणेंचे प्रदीप प्रभु हाणी ल्हनशी प्रस्तावना बरयल्या. हातूंत सुमार ४६ कविता आनी सुमार ९५ ल्हान कवित्रां एकठायल्यांत. वेगवेगळे विशय ह्या कवितांनी अपणायल्यात. पुण सामाजीक विसंगतीचेर कवी मदी मदीं बोट दवरता आनी मनीसपणाच्या नीतीमूल्यांचेर वाचप्यांची नदर ओढूंक सोदता. ताचीं कवित्रां सोप्या उतरांनी उतरतात पुण मनांत चिंतनाची बिया वडोवन वतात. तांच्या आदल्या धाटणेच्योच ह्यो कविता जावन आसात. पुस्तकाचो आकार बरो दिसता आनी मारियो फर्णांडीस बाबू उडुपी हाणी चितारिल्लें मुखचित्र सोबीत दिसता. प्रकाशक : मार्ग प्रकाशन, स्टिफन्स निवास, २००८, सेंट विनसेंट मार्ग, पुणें-४११ ००१ पानां : १००, मोल : ५ रुपया.

**श्री शिवमहिम्न स्तोत्र** नारायण रामचंद्र केळकार

आठव्या शेंकड्यांत संस्कृत कवी पुष्पदंत हाणी रचिल्लया स्तोत्राचो हो कोंकणी अणकार. शिवभक्तांक तो मानवतलो. ह्या अणकारांत शिखरिणी, मालिनी, हरिणी, अनुष्टुभ हीं मूळ संस्कृत वृत्तां तशाक तशीं वापरल्यांत.
प्रकाशक : ना. रा. केळकार, खोर्ली, म्हापशें, मोल : १ रुपया

मुखपृष्ठ छापणावळ : अपुरबाय प्रिंटर्स, वळवय, गोंय